भारत आमचो देश
गोंय आमचें राज
भुरगीं जरी आमी
गिरेस्त आमचें दायज

सगळे म्हजे भारतीय
भाव आनी भयणां
आमच्या इतलो मोग
दुसऱ्या कोणाक मेळना

जाणट्या नेणट्या परक्यांक
दितले खूब मान
आवय बापूय गुरूजन
हांकां सदांच भोवमान

वयर सरचे आमी
देश आनी देशभाव
उदरगत करूंक वावुरतले
असो सोपूत घेतांव

# बालांगण

पुस्तक पयलें
पयलें वर्स बालवाडी, आंगणवाडी




पुस्तक तयार करपी
**कोंकणी भाशा मंडळ**
मडगांव—गोंय

कोंकणी गोंयची राजभास जाल्या उपरांत कोंकणी शिक्षण दिवपाची गरज निर्माण जाली. कोंकणी शिक्षण दिवपाक फाव तीं पुस्तकां तयार करपाची जापसालदारकी कोंकणी भाशा मंडळान घेतली. पूण अत्याधुनिक तंत्रांचो उपयोग करून रंगयाळी चित्रमय पुस्तकां भुरग्यांच्या हातांत दिवप आर्थिक अडचणेक लागून कोंकणी भाशा मंडळाक जमलें ना. आर्थिक अडचण आसली तरी तांतल्यान मार्ग काडप अनिवार्य आशिल्लें. कोंकणी भाशा मंडळान मुळावें शिक्षण घेवपी भुरग्याच्या हातांत माणकुल्या गीतांचें चित्रमय पुस्तक दिवपाचो निर्णय घेतलो आनी तशे तरेचें पुस्तक तयार करपाक एक समिती घडयली. त्या समितीन 'बालांगण–१' हें पुस्तक तयार करून दिलें. पुस्तकांत घालपाक ओडलायणीं चित्रां काडून घेवन पुस्तक छापपाची तयारी केली. पुस्तक प्रकाशन करपी प्रकाशक मेळत तर कोंकणी भाशाा मंडळावेली आर्थिक जापसालदारकी उणी जातली अशें दिसलें. राजहंस वितरणान ही जापसालदारकी घेवपाची तयारी दाखयली.

'बालांगण–१' पुस्तक तयार करपी समिती, चित्रकार आनी प्रकाशकांच्या स्रमाक लागून हें पुस्तक वाचप्यांच्या हातांत पडटा. हें पुस्तक बेगीन प्रकाशीत जावचें म्हूण कोंकणी भाशा मंडळान सगळ्यांचो समन्वय घडोवन हाडपाची श्री भरत नायक हांचेर जापसालदारकी दिल्ली. त्या सगळ्यांच्या सहकार्यान हें पुस्तक आकर्शक रुपांत वाचप्यांच्या हातांत दितना आमकां भोव खोस भोगता.

जून १९९२

*(यशवंत सदानंद पालेकार)*
अध्यक्ष
कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय

आमचीं माणकुलीं भुरगीं मनमेकळीं खेळटलीं, नाचतलीं, गायतलीं आनी शिकतलीं ह्या हेतान 'बालांगण' पुस्तक पयलें तयार केलां. ह्या पुस्तकांत नाचगितां, खेळगितां, पारंपारीक बालगितां, संगिताच्या साजांतलीं नवीं बालगीत रचना, बालकविता, अभ्यास आनी सामान्य ज्ञानावयलीं गितां आनी कविता, हुमाणीं, भुरग्यांच्यो काणयो, सामान्यज्ञान, उलोवप, बऱ्यो सवंयो, भोंवतणची वळख आनी चित्रां, अशें बरेंचशें माणकुल्या भुरग्यांक उपेगी पडत अशें आसा. असल्या पुस्तकांच्या उपक्रमांतल्यान भुरग्यांची कोंकणी भास बरी जातली. तशेंच भुरग्यांची कलात्मक आनी शिक्षणीक उदरगत मेकळेपणान जावपाक उपकारक जातलें. ह्या पुस्तकाच्या सांगातान आमचीं भुरगीं कोंकणी संस्कृतायेचे भुंयेर आपल्या पांयांर घट उबीं रावन वाडटलीं आनी खूब बरीं शिकतलीं असो आमचो हावेस आसा.

तुकाराम शेट

*(तुकाराम शेट)*
निमंत्रक

# बरपावळ

## पारंपारिक बालगितां, खेणगितां, बालकविता

## साहित्यीक

मनोहराय सरदेसाय (पान नं. २०, २१, २२, ४१ )
कमलादेवी राव देशपांडे (पान नं. ३४, ४५, ४६, ४७ )
पुंडलीक नारायण नायक (पान नं. ३८ )
रमेश भगवंत वेळुस्कार (पान नं. ३५, ३९ )
भरत र. नायक (पान नं. ३३, ४०, ४९, ५८, ६० )
सि. लुकास (पान नं. २३ )
रामकृष्ण जुंवारकार (पान नं. ३६ )
कमलाकर म्हाळशी (पान नं. ३१ )
वसंत भगवंत सावंत (पान नं. ३७)
तुकाराम शेट (पान नं. १२, १३, १४, १९, २४, २५, २९, ३०, ३२, ४२ )
हिरा शेट (पान नं. ४३, ४४, ४८ )
पारंपारिक बालगितां आनी खेळ गितां (पान नं. ७, ८, ९, १०, ११, १५, १६, १७, १८, २६, २७, २८ )

## चानये चानये

चानये चानये
गोड कर
हुंदरा हुंदरा
मोव कर
चानये चानये
गोड कर
हुंदरा हुंदरा
मोव कर



## बेब्या बेब्या

बेब्या बेब्या
शिक्याची दोरी
बेब्याची बायल
भिकणां चोरी
येवंदी बेब्याक
सांगत ऽ ली
बेबकेक बांदून
घालत ऽ ली
बेबकेक मारूंक
लायत ऽ ली



## माकडा माकडा

माकडा माकडा
हूप हूप
नाकाक लायलें
तूप तूप
तोरां उडय
खूब खूब



## वाऱ्या वाऱ्या

वाऱ्या वाऱ्या यो यो
पान पडल्यार तुका
आंबो पडल्यार म्हाका
वाऱ्या वाऱ्या यो यो
पान पडल्यार तुका
आंबो पडल्यार म्हाका





## हाताक मेथी

हाताक मेथी
पांयांक मेथी
नाच गो भारती
फाल्यां येतलो
गणऽपती
दाखय आरती



## सोबीत बावली

सोबीत बावली
म्हजेकडे रावली
खेळटा खेळटा
निसरून पडली

पांय दुखता
रड रडली
खावू दिता
हांस हांसली



# वांटकुळयो घुंवाळयो

या गो या
आमी हात
गुंथुया
या गो या
आमी हात
गुंथुया
वांटकुळीं
घुंवोन घुंवोन
खेळ खेळुया
आमी घुंवाळयो
काडुया
आमी सकयल
बसुया

## आगगाडी

गाडी धांवता
गाडी धांवता
कूक कूक कूक
इंजीन फुडें
फाटीं डबे
झूक झूक झूक
येया येयात
घंटा वाजली
घण्ण घण्ण घण्ण
गाडी सुटली
खटक जाली
खट खट खट
गाडी धांवता
गाडी धांवता
कूक कूक कूक



## आप्पड पाप्पड

आप्पड पाप्पड
चंबू लाडू
एक पान
धरगो बेबी
म्हजो खांद

क्यांव म्यांव
घरे खावं
पातोळेचीं
पानां खावं



## घोड्यागाडी

पीक पीक घोडो
मामालो चेडो
पीक पीक घोडो
मामालो चेडो



# आपालिंपा

आपा लिपा
साय लिपा
साळचो गोंडो
जिखून धर
हातीन कितें
मू ऽ दी
चल भावभयणांच्या
सो ऽ दी



## घुंवाळ्यो

आवाळ्यो घुंवाळ्यो
मामालो बैल येयला
वाटली तांबयो
काडा गो ऽ काडा



## सूट बूट

हांवें घातला
सूट बूट
हांव चलतां
खट खूट
खट खूट
खट खूट





# बिलूबाय

बिलूबाय बिलूबाय
कोणे खाली साय?
म्हाका बाबा खबर ना
हांव गेल्लें कुस्मणा !





## बाबू

बाबू आमचो नाचता
नाचता, नाचता पडटा
बाबू आमचो पडटा
पडटा, पडटा रडटा
बाबू आमचो रडटा
रडटा, रडटा हांसता

# ऊड ऊड कावळ्या

ऊड ऊड कावळ्या
ऊड ऊड ऊड





बूड बूड बांगड्या
बूड बूड बूड



धांव धांव पाडका
धांव धांव धांव



बुकल्या आमगेर
राव राव राव

# लाद्रू पेद्रू

लाद्रू पेद्रू
लाद्रू पेद्रू
न्हिदलाय रे ?
न्हिदलाय रे ?
उठोन तांतयां
भाज रे
उठोन तांतयां
भाज रे
चींव च्यांव चींव
चींव च्यांव चींव







## आश्टो दिश्टो

आश्टो दिश्टो
पेर दिश्टो
पेरीवयलो
कीर दिश्टो
पिकें पिकें
पेर दिश्टो
पेरावयली
चोंच दिश्टो




## ए बी सी डी

ए बी सी डी
न्हेसली साडी
तिणे केली
बांगड्या कडी

अ आ इ ई
पँट रेवडी
पळोवन मास्तरान
काडली वडी

## पेद्रू

आगे म्हुजे मांय
पेद्रू पडलो बांयत
पेद्रून माल्ली बोब
फिरंगी आयले दोग
राजू पावाना
पेद्रू गावाना



## व्हडलो मामा

आस्कीना पास्कीना
उदक तापय गो
व्हडलो मामा येत जाल्यार
तांबयो लिपय गो

व्हडल्या मामान
बायल हाडल्या
पांच पयशांची
सकाळीं उठोन
पळयत जाल्यार
नटी मुंबयची





## फेस्त

हांव बाबा फेस्ताक वयतलों
पेंपें ढूम पेपें ढूम करतलों
फेस्ताचे चणे हाडटलों
सगळया भुरग्यांक वाट्टलों
एक भुरगो उरतलो
तो आमका पळयतलो

## हुमाणीं



एका झाडाक
कोळशेच कोळशे
तर तें कितें ?



एका झाडाक
कोयतुलांच कोयतुलां
तर तें कितें ?



एका झाडाक
धवे गाडगेच गाडगे
तर तें कितें ?

# सर्तिंतले आंकडे




एक हाडलो केक
दोन आयस्क्रीम कोन



तीन फावट
घंटा वाजली
टीन टीन टीन



चार आनी पांच चाकी
खावपाक येयलो बुकी
भियोन पळ्ळे
स हुंदीर
सट सट सट



साता फाटल्यान आठ
बुकी धर फाट
णव धा
पोपी तूंय
धांव धांव धांव



## क, ग, ट, फ



घुंवता गायता उमेद दुपेट
क, क, कॅसेट



हिशोबांत तकली सामकी खर
क, क, कंप्यूटर



रांदप रोकडें, रुचीक बेस
ग, ग, गॅस



गजाल सदची दिसता जिवी
ट, ट,, टिव्ही



ट्रिंग .... हॅलो करता कोण ?
फ, फ, फोन



## ला ऽ ला

लाला लाला ला ऽ ला
लाला लाला ला ऽ ला
मामा आमगेर येयला
मामान खावू हाडला
मामी आमगेर येयल्या
मामीन पापूडी हाडल्या
हांवें पिपी खाल्ल्या
मामाक पापी दिल्या
लाला लाला ला ऽ ला
लाला लाला ला ऽ ला



# काळे धवे दोळे

काळे धवे दोळे
बरें बरें पळे

ल्हान ल्हान कान
काना सकल मान

मोव मोव गाल
विलोदाची शाल

लांब लांब केंस
तांबडो बांद लेंस

इल्लें इल्लें नाक
बरें दिसता 'बा'क

तोंड पयलीं धूवं
मागीर जायतें खावं

# रंग



काव काव काको
काळो काळो किट्ट



ऊंआ ऊंआ बाबू
गोरो गोरो पिट्ट



पांदऱ्यातलो कीर
पांचवो चार



धवो धवो फुल्ल
मोगऱ्यां हार



पिकी पिकी मिरसांग
तांबडी गूंज



गोरो गोरोच बाबू
गुलाबीच गाल



सुरंगाचो वळेसर
हळदुवो ताल्ल

गोड गोड जांबळां
जांभळीं गाड



## मामा यो रे

बाबू : मामा यो रे
खा खा दी रे

मामा : यो रे बा बू
खा खा घे रे

बाबू : का को गे लो
भो बो व्हे लो

मामा : बा बू ना का
र डू ना का
तु का आ तां
शि रो दि तां

बाबू : शि रो म्हा का
ना का ना का

मामा : सांग तु का
जाय कितें

बाबू: फूल पाखो
जाय आखो



## बावले बावले

बावले बावले
उलय दोन उतरां
गोड तूं उलयशी तर
दितां दोन संत्रां

बावले बावले
नाच कर बाये
मातशी तूं नाचशी तर
दितां दोन रूपये

बावले बावले
केंस आतां वळय
माथ्याक फुलां माळून
सगळ्या लोकांक दाखय

बावले बावले
घागरो पोलको न्हेस
चेर बरो घालून
हातांत धर लेंस

बावले बावले
उलयना तूं कित्याक ?
उलयना तूं जाल्यार
दवरतां तुका माळयार





## पदेर

पदेरमामा पोंक पोंक
यो मगा असो
उंडो दीगा येदो मोठो
गुबगुबीत सोसो

  पयसुल्ल्यान वयता नाकांत
  घमघमीत वास
  पाट्यांत तुज्या पडल्या
  उंडे, पोळयां रास

पदेरमामा वाजय मगा
पोंक पोंक पोंक
आमचो येतलो धांवत भिशू
भोंक भोंक भोंक

  ताकाय दीगा एक उंडो
  जांव पोळी दाट
  ना तर कसोच सोडचोना
  भट्टे मेरेन फाट



# आमचीं जनावरां



एक आसलो पाडो
सद्दां ओडी गाडो



एक आसलो रेडो
कोंडांत पड



एक आसली गाय
हरवें तण खाय



एक आसली म्हस
उदकांत घाली धोंस



एक आसलो बोकडो
शिंगांनी वांकडो



एक आसली बोकडी
दुर्गार चड रोकडी



एक आसलें पाडूक
वतालें हेडूंक

# भिशूची शेपडी वांकडी

भिशूची शेपडी वांकडी
नळयेंत घातली रोकडी
हें पळोवन हांसली बोकडी

बोकडी आसली पगडी
बारीक लेंडयो हागडी
रागार भिशूक पळोवन
पळून गेली रोकडी



## पड रे पावसा पड

पड रे पावसा पड
घसघशानी पड
फाटल्यादारा फुडल्यादारा
उदक उदक कर

नळयाखळयांतलो कोयर सगळो
व्हांवोवन पयस व्हर
बुराक मेळत जाल्यार घरांत़
भितर लेगीत सर
भायलो भितल्लो लोक सगळो
भिजता तसो पड

काळया कुपांनी काळोख केला
धवोच कर उजवाड
शेताशेतांतलें पीक आमचें
तरतराक हाड
संवसार सगळो फुलून येसर
इल्लो इल्लो पड





## हळदुवो ताल्ल बेबो

हळदुवो ताल्ल बेबो
शेता मेरेर उबो
हांवें म्हळें बेब्या बेब्या
खंय रे तुजो भाव ?
उडकी मारून बेब्यान म्हळें
'डरांव डरांव'



तांबडो गूंज कोंबलो
दुर्गार येवन रावलो
हावें म्हळें कोंब्या कोंब्या
राव मात्सो सारको
छाती फुलोवन कोंब्यान म्हळें
'कों कोंऽऽच कों !'



काळो कीट्ट कावळो
आंब्यार येवन बसलो
हांवें म्हळें कावळेमामा
आज आमगेर राव
मान हालोवन ताणें म्हळें
'काव काव काव !'



धवो फुल्ल बुकलो
आंगणांत येवन न्हिदलो
हांवें म्हळें बुकी बुकी
हुंदीर आयला धांव
फाट वळून बुकीन म्हळें
'म्यांव, म्यांव, म्यांव.'

# भुरग्यांची प्रार्थना

भुरगीं आमी माणकुलीं
शेवणी पिपुशीं इल्लीं
एकठांय आमी गावचीं
एकठांय आमी खेळचीं

पाडकां माकडां वरी
किरां मोरां वरी
एकठांय आमी नाचचीं
एकठांय आमी शिकचीं

मेकळ्या मळबांत आमी
फुलां फळां आमी
एकठाय आमी वाडचीं
एकठांय आमी जगचीं





## दुदी

एक आसलो भुरगो. ताका दुदयाची धाकटुली बी मेळ्ळी. ती बी ताणे जमनींत रोयली. पावस पडलो. पावसांत तिका कोंब येयलो. कोंबाक पानां फुटलीं. मागीर दुदनिची वेल वयर गेली. तिका फूल फुल्लें. फुलाक धाकटुलो दुदी लागलो. दुदी वाडत रावलो. तो येदो जालो, येदो जालो, येदो जालो, येदो जालो, ये ऽ दो व्हडलो जालो.

# वानर आनी मूय

वानर आनी मूय आसली.
दोगांयनी नासणे रोवपाचें थारायलें.
मुयेन वानराक रोवपाक आपयलो.
आयज येतां, फाल्या येतां
अशें सांगून वानर येयलो ना.
मुयेनूच नासणे रोयले.
नडणी केली. पिकतकूच लुंवणी केली.
मुडयो बांदल्यो.
अर्द्यो बांदल्यो नासण्याच्यो,
अर्द्यो बांदल्यो फातराच्यो.
निमाणे, वानोर
मुडयो वांटपाक येयलो.
जड लागता त्यो मुडयो आपलेवशीन
आनी ल्हव लागता त्यो
मुडयो मुयेवशीन दवरल्यो.
दोगांयनी त्यो घरा व्हेल्यो. मूय
मुडी फोडटा तितले नासणे जाले,
आनी वानर मुडी
फोडटा तितले फातर जाले.



## सोंशा—कांसवाली सर्त

एक आसलो कांसव. एक आसलो सोंसो. सोंसो बिळांत रावतालो. कांसव तळयांत रावतालो. दोगानीय एकदां सर्त लायली धांवचेली.

'तळयाकडल्यान धांवचेलें बिळाकडेन पावचेलें'

सोंसो धांव—धांवलो. कांसव चलूंक लागलो. सोंसो फु ऽऽ डें पावलो. गर्वान फुगलो. कांसवाक हांसलो. झाडामुळांत न्हिदलो.

कांसव चल ऽऽ त रावलो. बिळादारांत पावलो. सोंसो थंय नाःसलो. तो न्हिदूऽन उरलो. कांसव सर्त जिखलो.



## कावळ्याची बूद

एक आसलो कावळो. ताका लागली तान. उदक सोदीत तो भुर्र ऽऽ उडलो. ताका दिसलें उदकाचें मडकें. ताच्या कांठार तो बसलो. तोंड घातलें मडकेंत. पूण चोंच बुडलिना उदकांत. ताका सुचली युक्त. तो भुर्र उडलो. एक फातर हाडलो, उदकांत उडयलो. उदक आयलें वयर. तरीय चोंच बुडलिना. ताणे एकार एक फातर हाडून मडकेंत घातले. उदक सरलें वयर. कावळ्याची चोंच उदकांत बुडली. कावळो जालो खोशी, पोटभर उदक पियेलो. भूर्र ऽऽ करून उडलो.





## कोलो आनी कोली

एक आसलो कोलो. एक आसली कोली. कोलो एका झाडार बसून 'सुर्र सुर्र' करून म्होंव खातालो. कोलयेन ताका पळेलो. तिणे म्हळें :

'कोल्या कोल्या, म्हाकाय दी मरे इल्लें म्होंव'

कोल्यान म्हळें :

'ना दिना ! म्होंव म्हाका, मेण तुका !''

'कोलो म्होंव खातालो. मेण खाला मोखतालो. कोलयेन सगळें मेण व्हेलें. घर बांदलें मेणाचें. कोल्याकडेन नासलें मेण, ताणे घर बांदले शेणाचें. कोलो कोलयेक पिडटालो. तिका गाळी संवतालो. घो घो करून आयलो पावस. कोल्याचें घर गेलें हो ऽऽ ळून ! कोलो रानांत गेलो पऽऽळून !''





## गाय, वाग आनी पाडूक

गाय झरिचें उदक पियेताली. तिच्या सकयल वाग पियेतालो. ताका गायच्या तोंडांतलें उदक गोड लागलें. तो तिका खावपाक गेलो. गायन सांगलें, 'हांव पाडकाक दूद दिवन येतां.'

दूद पियेवन पाडुकूय तिच्या वांगडा येयलें. गायन वागाक सांगलें, 'म्हाका खा'. पाडकान सांगलें, 'वागमामा, म्हाका खा आनी म्हजे आवयक सोडून दी' तेन्ना वागाक काकूत दिसली. ताणे सांगलें, 'तुवें म्हाका मामा म्हटलेल्यान हांव तुजो मामा जालों आनी तूं म्हजो भाचो, तुजी आवय भयण. हांव तुमका कसो खावं ? तुमी घरा चलात.'



# सामान्य ज्ञान



# फुलां



जाय



गुलाब



साळीक



आबोलें



मोगरें



रोज



शेवतें



चांफें

# फळां



आंबो



पोपाय



चिकू



काळींग



केळें



काजू



पेर



पणस

# तरकारी



मुळो



बटाट



गाजर



टमाट





भेंडो

कांदो

# जनावरां



हती



मांजर



घोडो



शींव



माकड



म्हस



गाय



सुणो



बोकडी



वाग



सोंसो

## सुकणीं



घोण



कीर



घुघूम



कोंबो



पारवो



कावळो

## किटक



जल्लो



मूय



जळार



पाखो



कापडयो

# वाहनां



बैलांगाडी



व्हडें



रिक्शा



सायकल



स्कुटर



बस



विमान



मोटार



आगगाडी



आगबोट

# रंग



धवो





हळदुवो

काळो





तांबडो

गुलाबी





पांचवो

जांबळो

# खेळणीं



सायकल



मोटार



भोंवरो



स्कुटर



पेल्ल



बावली



थोकळयांचो बंगलो



बॅट

# बऱ्यो संवयो

## जेवणा वेळार

भूक लागता तेन्ना जेवंक बसूंक जाय
जेवंक बसचे पयली हात धुवंक जाय
जेवता आसतना रडूंक जायना
जेवण सकयल पडूंक जायना
उजव्या हातान जेवंक जाय
दाव्यान उदक पिवंक जाय
इल्लें इल्लें जेवंक जाय
जेवल्या उपरांत आंवूंक जाय

## नितळसाण

सकाळी उठून हांसूंक जाय
दांत बरे घांसूंक जाय
शाबू लावन न्हावंक जाय
नितळ कपडे घालूंक जाय
फणयेन केंस उगोवंक जाय
नाखटां कातरून उडोवंक जाय

## घरांत

आवयचें आनी बापायचें उतर पाळूंक जाय
आवय दिता ते कपडे घालूंक जाय
घरांत येता तांकां बस म्हणूक जाय
खेळून जातकच खेळणीं जाग्यार दवरूंक जाय

## शाळेंत

शाळेंत येतना नीट आनी वेवस्थीत आसूंक जाय
वर्गांत भितर सरताना बाईक 'देव बरो दीस दिवं' म्हणपाक जाय
वर्ग आनी शाळा निवळ दवरूंक जाय
खेळणीं आनी हेर सामान जागच्या जाग्यार वेवस्थीत दवरूंक जाय
शाळेंतल्या भुरग्यांकडें भाव भयणां कशीं वागूंक जाय

# उलोवप

हांव म्हजें नांव..............
म्हज्या बापायचें नांव..............
म्हजे आवयचें नांव...............
म्हजें आडनांव....................
म्हज्या गांवाचें नांव.........................

## म्हजें घर

हें म्हजें घर, हांव घरांत रावतां. म्हाका एक भयण आसा. आनी एक भाव आसा. आमी सगळीं घरांत रावतात. आई आनी बाबा अपुर्बाय करतात. म्हाका म्हजें घर खूब आवडटा.

## म्हजी शाळा

म्हजे शाळेचें नांव विद्याभुवन कोंकणी शाळा. म्हजी शाळा मडगांव शारांत आसा. तातूंत खूब चले आनी चलयो शिकूंक येतात. हांव शाळेंत शिकतां आनी खेळटां.

## म्हजी बाई / म्हजी टिचर

म्हजी बाई खूब बरी. ती म्हाका बरें तितलेंच शिकयता. ती म्हाका उलोवंक शिकयता. नाचूंक आनी गावंक शिकयता. म्हाका म्हजी बाई खूब आवडटा. ती वर्गांत येतकूच आमी तिका म्हणटात, 'देव बरो दिस दिवं.' ती वर्गांतसून वयता तेन्ना आमी म्हणटात, 'देव बरें करूं.'

# राष्ट्रगीत

जनगणमन अधिनायक जय हे
भारत भाग्य विधाता ।
पंजाब, सिंधु, गुजरात, मराठा,
द्राविड, उत्कल, बंग,
विंध्य, हिमाचल, यमुना, गंगा,
उच्छल जलधि तरंग
तव शुभ नामे जागे, तव शुभ आशिष मागे,
गाहे तव जयगाथा,
जनगण मंगलदायक जय हे,
भारत भाग्य विधाता ।
जय हे । जय हे । जय हे ।
जय जय जय, जय हे ।।

